# लक्ष्य

कमलाकर दत्तराम म्हाळशी




ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशन

---

शणै गोंयबाब महोत्सवाचें अस्मिताय वर्स

---

लक्ष्य (बालनाट्य) | Laxya (Children's Drama)

लेखक :
कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

PLAYWRIGHT :
Kamalakar D. Mhalshi

प्रकाशन क्र.: २८

PUBLICATION NO.:28





पयली उजवाडावणी : २००३

FIRST EDITION : 2003

उजवाडावपी :
मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

PUBLISHER :
Milind Kamalakar Mhalshi
Om Shri Datt Padmaja Prakashan,
Shristhal, Canacona, Goa

छापपी :
सौ. माधुरी मिलींद तिंबले
नवादित्य पॅकेजिंग्स,
माशेल, गोंय

PRINTER :
Mrs. Madhuri Milind Timble
Navaditya Packagings,
Marcela, Goa

मुखचित्र :
श्रीनाथ पागी

COVER :
Shrinath Pagi





मोल : १५ रुपया

PRICE : RS. 15/-

---

*हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या शणै गोंयबाब महोत्सवाचे बालसाहित्य प्रकाशन अनुदान येवजणेखाला छापलां.*

# लक्ष्य

गाठूंक सोदतल्या

संवसाराच्या उकत्या विद्यापिठांतल्या

एकलव्यांक

एकनिश्ठेन



# उपकारी

पश्चिम क्षेत्र सांस्कृतिक केन्द्र, उदयपूर West Zone Cultural Centre, Udaipur (Ministry of Human Resource Development, Department of Culture, Govt. of India), गोंय सरकाराचें कला आनी संस्कृति निदेशालय (Directorate of Art & Culture) आनी बालभवन, गोवा (Bal Bhawan, Goa.) च्या जोडपालवान २० आक्टोंबर ते ८ नोवेंबर १९९७ मेरेन गोंयच्या वेगळ्या वेगळ्या तालुक्यांनी घडोवन हाडिल्ल्या 'बालोत्सव, गोवा-९७ त काणकोण केंद्रांत नाट्यलेखक आनी नाट्यदिग्दर्शक कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी हांणी श्री. संदीप दत्तू नाईक गांवकार हांच्या पालवान बसयिल्लें आनी बालोत्सव-९७ च्या समारोप सुवाळ्यावेळार शुक्रार, ७ नोवेंबर १९९७ दिसा गव्हर्नमेंट मल्टिपर्पज हायस्कूल सभाघर, बड्डें, मडगांव हांगा सादर केल्लें नाटकुलें.

ऋणनिर्देश :- कार्यावळ अधिकारी आनी बालोत्सव कार्यभारी श्री. विलास जानवे बालभवन, काणकोण केंद्राचे प्रमुख श्री.वाय्.बी.सुतार आनी तांचो शिक्षकवर्ग रेहाना फोंडेकार/काणकोणकार, संगिता च्यारी आनी रजनी नाईक (कर्मचारी वर्ग)

वाद्यवृंद-शिक्षक : श्री. गुलाब टेंगसे, अनंत सुतार,विद्या नगर्सेकार, महेंद्र फळदेसाई, आशय महेंद्र फळदेसाई, पौर्णिमा गणे

## नाटकुल्यांत वांटेकार जाल्लीं भुरगीं :

अभिषेक आनंद म्हाळशी
कृपेश रमेश देसाई
गुरूदेव पुतू नाईक गांवकार
जितेंद्र प्रभाकर देसाई
विराज किशोर च्यारी
शैलेश उदय काकोडकार
सौरभ उल्हास गायक
रविराज तुळशीदास भंडारी
दत्तभार्गव गुलाब टेंगसे
स्मिता नारायण कोमरपंत
अक्षता विनायक प्रभुदेसाई
ओंकार अनिल देसाई
गीतेश श्याम मुदगुळकर
गौरेश आनंदू गणे
परेश विठ्ठल नाईक
शर्विल बाळू खंडागळे
सिध्देश रमेश बांदेकार
संतोष कृष्णा देसाई
झांट्येराज दिलखूश ना. गांवकार
विपीन वासुदेव भट
अक्षता आनंद नमशीकार
समिक्षा मोहन म्हाळशी

## पयलो देखाव

(पड्डो वयर काडचेपयलीं - सगलीं पात्रां/भुरगीं अर्दवर्तुळाकार उबीं आसतात. प्रेक्षकांकडेन तोंड करून भारतमाता उबी आसता. तांच्या दोनूय कुशींनी / फाटल्यान एकांकिकेंतलीं पात्रां उबीं आसतात.)

(पड्डो वयर काडटात तेन्ना - )

**भारतमाता** : सुस्वागतम्!

**भुरगीं** : वन्दे मातरम्! (पयलो गट हात जोडून नमस्कार करता.)

वन्दे मातरम्! (दुसरो गट उजवो हात छातयेकडेन व्हरून नमस्ते करता.)

वन्दे मातरम्! (तिसरो गट कपलाकडेन उजवो हात व्हरून नमस्ते करता.)

(सगलीं भुरगीं 'वन्दे मातरम्!' गायतात.)

**भारतमाता** : धन्यवाद.

**भुरगीं** : भारतमाते, नमन. तुज्या स्वातंत्र्याच्या ५०व्या वाडदिसा निमतान मनापासून अभिनंदन. परबीं.

**भारतमाता** : आभारी; हांव मनापसून उपकारी. भुरग्यांनो, स्वातंत्र्याच्या भांगरा उत्सवानिमतान तुमी केल्ल्या कार्यावळींचेरूय हांव भोव समादानी. तुमच्या माणकुल्यांच्या अभिनंदनाचेर तर काळजासावन खोशी. ते खोशयेपासत हांवें तुमकां एक काणी सांगची ?

**भुरगीं** : सांगात, भारतमाते, सांगात. तुमचीं म्होंवाळ उतरां आयकुपाक कान सामके आशेल्यात आमचे.

**भारतमाता** : भुरग्यांनो, १५ आगश्ट १९९७ दिसा म्हजो भांगरा - वाडदीस तुमी मनयलो. भांगरा उत्सवी वर्स म्हूण आयजूय विंगड विंगड कार्यावळी चलतात.पूण म्हाका एक सांगात पळोवया, म्हाका फकत पन्नासूच वर्सां? हय? पन्नासूच वर्सां म्हाका?

**भुरगीं** : (गडबडून) आं? आं?

**भारतमाता** : गडबडलींशीं?

भुरगीं : (कांय उलयनात.)

भारतमाता : सांगपाक जमना न्हय? हांव सांगतां तर! भुरग्यांनो, म्हाका फकत पन्नास वर्सां न्हय. पांच हजारांवयर वर्सांचो इतिहास आसा त्या पन्नास वर्सांफाटल्यान. अनार्य-आर्यांचे गिरेस्त संस्कृतायेची बुन्याद आसा ताका. राम, कृष्ण, बुद्धाच्या कर्तुबांच्या आदर्शांचें मंदिर उबें आसा ताचेर आनी मुळांत भितर आशिल्यांच्यो आनी भायल्यान येवन हांगाचेच जाल्ल्यांच्यो साहित्य, संगीत, कला उद्योगांच्यो असंख्य अगरसाळो उब्यो आसात त्या मंदिराभोंवतणीं.

भुरगीं : अजापाचीच गजाल!

भारतमाता : भुरग्यांनो, आमच्या रामायणांतल्या रामाच्या आदर्शाक पर्याय ना! आनी म्हाभारतांतले अश्टतासांचे जिणेक स्पर्धक ना!!

(रामायण/महाभारतांतल्या आख्यानावेली चौरंग/जत)

धृतराष्ट्र महाराजांचो प्रवेश. 'म्हाराजांचो जयजयकार जावं' अशी घोशणा आनी महाराज आसनार बसल्यात असो देखाव.

(सेवक येवन धृतराष्ट्राक नमस्कार करता.)

सेवक : म्हाराजांचो जयजयकार जावं.

म्हाराज, तुमच्या आमंत्रणाक धरून आचार्यांचें आगमन जालां.तेन्ना –

धृतराष्ट्र : धाडून दी तांकां दरबारांत.

सेवक : धाडटां म्हाराज.(सेवक वता.)

कृपाचार्य : (प्रवेश करून) महाराजांचो जयजयकार जावं. कृपाच्या नम्र नमस्काराचो स्विकार करचो म्हाराजांनी.

धृतराष्ट्र : आचार्य, विद्या विनयेन शोभते! ही तुमची नम्रताय तुमचे शस्त्रास्त्रविद्येक आनी तुमकांय भोव बरी सोबून दिसता आचार्य, भीस्मदेवान तुमचेसंबंदान सांगिल्ली दर एक गजाल प्रत्ययाक येता आचार्य.

कृपाचार्य : ह्या सेवकाखातीर दरबाराची कितें आज्ञा आसा म्हाराज? शक्य जाता ती सेवा कर्तव्यभावनेन करपाक -

धृतराष्ट्र : तुमी तयार आसात म्हणपाची खात्री आसाच म्हाका. देखुनूच, तुमकां आमंत्रण धाडिल्लें आचार्य.

कृपाचार्य : मागीर कळाव कित्याक म्हाराज?

धृतराष्ट्र : आचार्य, तुमी जाणांतूच, पंडुचे आनी कुंतीदेवीचें पांच पूत तेचपरी म्हजे आनी गांधारी देवीचे शंबर पूत आतां दिसांमासांनी आनी मासांवर्सांनी वाडपाक लागल्यात. पूण ते फकत कुडीन वाडले म्हूण जाले? मांसान भल्ले म्हूण जाले? स्वताचे ताकदीचेर रणांत देंवपाइतले ते समर्थ जावपाक नाकात? स्वताचे तकलेन राज्यकारभार चलोवपाइतले समर्थ जावपाक नाकात? स्वताचे अकलेन जनतेक सांबाळपाइतले समर्थ जावपाक नाकात?

कृपाचार्य : जाल्यार ह्या कार्याखातीर कोणाची नेमणूक करची अशें म्हाराजांक दिसता?

धृतराष्ट्र : आचार्य, आमकां दुसरो कोण कित्याक जाय? ह्या वावराखातीर आमचेकडेन आसात ते कृपाचार्य आमकां पावनात?

कृपाचार्य : (अजापान) म्हाराज, हांव...हांव...पूण हें कशें शक्य आसा म्हाराज?

धृतराष्ट्र : शक्य आसा आचार्य, खर इत्सा बाळगून मनार घेतल्यार कोणाक अशक्य अशें कांय एक ना ह्या संवसारांत!

कृपाचार्य : (अजापान) म्हाराज, पूण मुळांतच सशक्त, बुदवंत, वीरपुत्रांक म्हजेसारक्या आचार्यान शस्त्रास्त्रविद्या शिकोवप म्हळयार-

धृतराष्ट्र : जड दिसलें तरी अशक्य न्हय! आचार्य, सूर्याच्या तेजाचें मोल पृथ्वीबगर दुसऱ्या कोणाक कळप शक्य ना! खुद्द सूर्याक लेगीत !!' हांवें आयजसावन तुमकां कौरव-पांडवांचे गुरू म्हूण नेमले.

कृपाचार्य : (खोशयेन) म्हाराज!

❑



## दुसरो देखाव

निवेदिका : कौरव पांडव व्हडा उमेदीन कृपाचार्यांकडेन शस्त्रास्त्र विद्या शिकपाक लागले आनी निमाणें तांचे परिक्षेचो तो दीस आयलो.

(कौरव-पांडव कृपाचार्यांभोंवतणीं जमल्यात असो देखाव.)

कृपाचार्य : अपुर्बायेच्या शिष्यांनो, इतलो तेंप तुमी कितें शिकल्यात तें आज पळोवया मुरे?

भुरगे : हय व्हय, हय व्हय गुरूदेव.

कृपाचार्य : कोणा कोणाक कितें कितें कळटा, तें पळोवप बरें न्हय?

भुरगे : हय व्हय, हय व्हय गुरूदेव.

कृपाचार्य : जाल्यार आतां ध्यान दिवन आयकात. तो थंय हांवें रुखाक एक वेळू बांदला. ताचेर तीन रेगो काडल्यात. पयली काळी, दुसरी-मदली तांबडी आनी तिसरी उजळ धवी. तांतुंतली मदली तांबडी रेग धणवाक बाण लावन विंधपाची. कळ्ळें? कळ्ळें सगल्यांक?

भुरगे : कळ्ळें गुरुदेव.

कृपाचार्य : (कौरवांतल्या एकल्याक आपयता.) तूं यो रे बाब. (तो मुखार येता.) धणवाक बाण लाय आनी तुका कितें दिसता तें सांग पळोवया.

पयलो : (धणवाक बाण लावन) मुखार आयसपयस पातळिल्लें मळब दिसता गुरूदेव.

कृपाचार्य : चल तूं. (तो वता.)

(थोडो वेळ थांबून) तूं यो रे बाब (तो येता.) कितें दिसता तुका सांग पळोवया.

दुसरो : मुखार एक व्हडलें रान दिसता गुरुदेव.

कृपाचार्य : चल तूं. (मातशें रावन, तिसऱ्याक) तूं यो रे बाब. तुका कितें दिसता सांग पळोवया.

तिसरो : मुखार एक व्हडलो रूख दिसता गुरुदेव.

कृपाचार्य : चल तूं. (अशे रितीन कृपाचार्य कितल्याशाच जाणांची

परीक्षा घेवपाचो यत्न करतात. पूण एकलोय शिष्य सारकी जाप दिना. परिक्षेंत पास जायना. निमाणें --) सुयोधन.

**दुर्योधन** : (उचांबळ जावन) हांव तयार आसां, गुरूदेव. तुमी शिकयिल्ली अस्त्रविद्या पणाक लावपाची वाटच पळयतां हांव. आज्ञा करात गुरूदेव.

**कृपाचार्य** : सर फुडें आनी दाखय तुजो युवराजाक फावोसो पराक्रम.

**दुर्योधन** : गुरूदेवांची आज्ञा प्रमाण. (दुर्योधन मुखार सरता. धणवाक बाण लायता.)

**कृपाचार्य** : सुयोधन, सांग पळोवया तुका कितें कितें दिसता?

**दुर्योधन** : म्हाका वेळवावेल्यो तिनूय रेगो दिसतात आनी मदोमद आशिल्ली तांबडी रेग लेगीत बेंस्स बरी दिसता.

**कृपाचार्य** : म्हणटकूच मदली तांबडी रेग तुवें विंधपाची म्हणपाचें तुज्या लक्षांत आयला मूं?

**दुर्योधन** : हय व्हय, हांव ती तांबडी रेग कांयच न्हय करून विंधतां पळयात ! ना तर तुमी शिकयिल्ले विद्येचो उपेग कितें तर? (दुर्योधन धणवाक बाण लायता. बाण सोडटा. पूण एक्कूय बाण तांबडे रेगेक लागना. दुर्योधनाक लज जाता. कौरव निर्शेतात.

**कृपाचार्य** : अर्जुना, आनीक आनी कळाव कित्याक? आतां पाळी तुजीच.

**अर्जुन** : (फुडें सरून कृपाचार्यांक नमस्कार करीत)नमस्कार करतां गुरूदेव.

**कृपाचार्य** : जैतवंत जा. (अर्जुन मुखार सरता. धणवाक बाण लायता.)अर्जुना, तुका कितें दिसता?

**अर्जुन** : वेळवावेले तांबडे रेगेबगर दुसरें कांय एक दिसना गुरूदेव.

**कृपाचार्य** : जाल्यार सोड बाण.

(अर्जुन तांबडी रेग विंधता. अर्जुनावांगडाच पांडव खूश जातात. कौरव बेजार जातात. दुर्योधनाक आकांताची तिडक मारता.)




❑

## तिसरो देखाव

**निवेदिका** : अशे रितीन कौरव पांडवांचे अस्त्रविद्येची परीक्षा जाली आनी तातूंत अर्जुनाक जैत मेळळें. मात्त ताचो परिणाम? दुर्योधनाक तिडक-आनी अर्जुनासयत पांडवांचो दुस्वास!

**निवेदिका** : अशा वेळार दुर्योधन आपलो परमप्रिय प्रधान शकुनीबगर दुसऱ्या कोणाकडेन सल्लो विचारतलो आशिल्लो?
(दुर्योधन अस्वस्थ जावन पासयो मारता. शकुनी ताका थातारपाचो यत्न करता.)

**दुर्योधन** : अपमान ! अपमान !! हस्तिनापुराच्या युवराजाचो अपमान !!!

**शकुनी** : युवराज, युवराज, अशे बेजार कित्याक जातात? तकलेक त्रास करून कित्याक घेतात?

**दुर्योधन** : मागीर करूं तरी कितें मामा? अशें दिसता, अशें दिसता की अर्जुनासयत पुराय पांडवांक -

**शकुनी** : ना ना ना ना ना, तांकां तशें मारपाक जायना. तांकां तशें मारप आमकां सोबना.

**दुर्योधन** : मागीर तांकां मारप तरी कशें? उपाय सांगात न्हय कितें तरी ?

**शकुनी** : सांगतां, सांगतां, बेस्स बरो उपाय सांगतां. (मातशें रावन) न्हावपाक तळयेर वतातूच न्हय तुमी. थंयच उदकांत खेळटां खेळटानाच अर्जुनाक (हातान सकयल दाबपाची कृती) कितें?

**दुर्योधन** : कितें तकली तुमची मामा? सामकी कोल्या बुद्द हां.

**शकुनी** : हां. पूण आवाज काडपाची संदच दिवंक फावना. कसो बुडलो, कोण जाणां? कोणें बुडयलो, देव जाणां. अशें गुपचूप काम जावपाक ज़ाय. तुज्या बंधवांभितरूय पुराय एकचार जाय.

**दुर्योधन** : तो आसाच मामा. (उमेदीन) इतले गुप्ततायेन हें प्रकरण तळयेतळा पावयतां की आमच्या जाणट्यांक सोडातच तुमी, आचार्यांकूय कांय एक पत्तो लागपाचो ना!

**शकुनी** : बरें आसा. गरज पडटा तेन्ना हांव आसांच!



1156

## चौथो देखाव

**निवेदिका** : अशे रितीन तळयेंत न्हातना खेळ करून अर्जुनाक बुडोवन मारपाची माण्णी शकुनीमामान दुर्योधनाक सांगली आनी दुर्योधनान आपल्या बंधवांच्या पालवान ती माण्णी तडीक पावोवपाचें थारायलें.
(कौरवांमदले कांय जाण दुर्योधनावांगडा प्रवेश करतात.)

**दुर्योधन** : धर्मा, भिमा, अर्जुना, नकुला, सहदेवा, आरे कितलो वेळ रे तुमकां?

**धर्म** : कितें जालें युवराज?

**दुःशासन** : कितें जालें आनी कितें? सद्दां उठून कितें धनुर्विद्या आनी गदाविद्याच शिकत रावतले?

**दुर्योधन** : काल आमचें कितें थरिल्लें?

**धर्म** : कितें थरिल्लें?

**दुर्योधन** : तळयेर न्हावपाक वचपाचें थरूंक नाशिल्लें आमचें?

**धर्म** : थरिल्लें खरें.

**दुर्योधन** : मागीर कळाव कित्याक? तो अर्जुन खंय पावलो?

**अर्जुन** : (प्रवेश करून हांसत) कितें जालें युवराज?

**दुर्योधन** : तूंवय तेंच विचारता?

**अर्जुन** : म्हळयार?

**दुर्योधन** : आरे, तळयेर न्हावपाक वचपाचें थरूंक नाशिल्लें आमचें?

**अर्जुन** : हय मरे. हांवूय धनुर्विद्येच्या अभ्यासामुखार विसरुनूच गेलों.

**दुःशासन** : मागीर आतां आनीक आनी कळाव कित्याक? भिमाक बी येवंदी मागीर सुशेगादेन!

**अर्जुन** : या तर.

**धर्म** : सांबाळून अर्जुना, सांबाळून.
(सगले न्हावपाक म्हूण तळयेर वतात. ते तळयेकडेन पावतासर भुरग्यांच्या एका गटाची तळय करची.)

**दुःशासन** : (दुर्योधनाक कुशीक घेवन) शकुनीमामान सांगिल्लें घट लक्षांत दवर. उदकांत बुडयो मारपाचे उमेदींत तांची माण्णी

तळयेंत बुडोवन बी उडोवशीत!

**दुर्योधन** : तूं बिलकूल हुसको करूं नाका पळोवया. (बाकीच्यांक) चलात रे मारात उडयो. (कौरव-पांडवांमदलो जणएकलो उदकांत उडी मारता. ते उमेदीन पेंवतात असो देखाव. इतलेमजगतीं दुर्योधन पेंवत पेंवत अर्जुनाम्हऱ्यांत पावता. ताका घट्ट धरून झेडपिलोसो करता.)

**अर्जुन** : कसलीं फकाणां करता युवराज? आं? कसलीं फकाणां? ( इतले म्हणसर कौरवांमदले कितलेशेच जाण तांचेलागीं पावतात. तेव्हूय अर्जुनाक हेवटेन तेवटेन धुकलतात. दुर्योधन ताका उदकांत बुडोवपाचो यत्न करता. इतल्यांत –)

**भीम** : (प्रवेश करून) युवराज सुयोधना, कितें चल्लां? कितें चल्लां थंय? अर्जुन बंधवाक सारकें पेंवपाक येना काय तुजें अर्जुन बंधवावेलें प्रेम बुळमे फुटून वयर सरपाक लागला? (धांवत वचून तळयेंत उडी मारता. अर्जुनाक दुर्योधनाचे मिठयेंतल्यान सोडयता.)

**भीम** : युवराज, ह्या भिमाचे मुठीची गदा अजून मोव पडूंक ना. अजून कडून वचूंक ना. समजलें?

**दुर्योधन** : पूण....पूण.... (गडगडाट)

**भीम** : पूण बीण कांय ना. तुका पांडवां - सांगातान पेंवपाक जाय न्हय? पूण बरें ऽऽ जमलें ना तुका तें. आतां हांव शिकयतां तुका - पेंवपाक. (ताचेर झोपय मारता. आनी ताका उदकांत बुडोवपाचो यत्न करता.)

**अर्जुन** : (मदीं पडून) नाका नाका भिमा. भंगूं ताचें. आयज सोडून दी ताका. बेश्टी बिरमत नाका आमचेर.

**भीम** : पूण ताचेसारक्याक बुडोवन हांव तरी पातकांत खंय पडटां तर? (हांसता आनी अर्जुनावांगडा घरा परतता.)






## पांचवो देखाव

निवेदिका : आनी अशे रितीन अर्जुनाक तळयेंत बुडोवन मारपाची कौरवांची माण्णी भिमाक लागून फसली.

भारतमाता : तेवटेन घडिल्ली सगली गजाल पांडव आपले आवयक कुंतीक सांगतात. उपरांत कुंती ही गजाल धृतराष्ट्र - गांधारी आनी भीस्मदेवाच्या कानांर घालता. तेन्ना तांकां सगल्यांकूच खूब वायट दिसता. तीं दुर्योधनाक दोश दितात आनी ताणें केल्ली चूक सुदारून फुडें तरी बरेतरेन वागचें म्हूण ताका समजावपाचो यत्न करतात.

निवेदिका : कौरव-पांडवांचे शस्त्रास्त्रविद्येचें, धनुर्विद्येचें, गदायुध्दाचें शिकप चालूच उरता. शिकतां शिकतां एक दीस गोंजोबारान खेळपाची उमेद तांकां येता.
(कौरव पांडव गोंजोबारान खेळटात असो देखाव)

दुर्योधन : आतां हांव, आतां हांव.

भीम : ना, ना. आतां हांव.

धर्म : आरे बंधवा भिमा, झगडटात कित्याक? खेळूं दी ताका पयलीं. तूं मागीर खेळ्ळयार जालो.

भीम : बरें, बरें.
(दुर्योधन गोंजोबार घेवन खेळटा.)
(इतलेमजगतीं भुरग्यांची एक बांय करची... दुर्योधनान मारिल्लें बार ते बांयंत पडटा.)

भीम : जालें मुरे? आतां काड तें बार वयर.

दुर्योधन : हांव एकटो कित्याक काडूं? खेळटाले तर आमी सगले!

अर्जुन : आरे पूण बार तुवें बांयंत उडयला न्हय रे?

धर्म : आसूं अर्जुना. चुकून पडलें न्हय तें? तातूंत ताची बाबड्याची तरी कसली चूक?
(इतलें म्हणसर सगले भुरगे येवन बांयचे धडेर रावन बांयंत पळयतात.इतल्यांत तेवटेच्यान एक साधुपुरीस येता.वांगडा ताची घरकान्न.)

**कृपी** : हथंय ती गर्दी अशी कसली?

**द्रोण** : हय मुगे, राजकुमारांवरी सुंदर सुंदर भुरगेचशे दिसतात किते जाला काय बाबड्याचें?

**कृपी** : वचून पळयात न्हय थंय.

**द्रोण** : (द्रोण बांयकडेन वता.पळोवन अजापून) आरे! हे तर राजकुंवर! कितें जाला भुरग्यांनो ? आं? कितें जाला?

**दुर्योधन** : आमचें बार बांयंत पडला बाबा.

**द्रोण** : मागीर?

**दुर्योधन** : तें वयर काडपाक कळना आमकां बाबा.

**द्रोण** : (हांसून) पिशे रे पिशे! आरे, तुमी राजकुंवर. धनुर्विद्या शिकतात. आनी बांयंत पडिल्लें सादें बार तुमच्यांनी वयर काडपाक जायना? तुमच्या गुरूंनी ती विद्या शिकोवंक ना तुमकां?

**अर्जुन** : ती विद्या आमी आजून शिकूंक नात साधूबाबा.

**द्रोण** : बरें आसा. (हाताबोटाची मुदी काडटा.) ही मुदी हांव आतां बांयत उडयतां आनी तणाच्यो काडयो मोखून मारून ती वयर काडटां. आनी उपरांत तेच पद्धतीन तुमचें बार लेगीत वयर काडटां.



## सव्वो देखाव

**भारतमाता** : ....आनी द्रोण दर्भाच्या काडयांनी पयलीं मुदी आनी मागीर बार वयर काडटा. हे तांचे धनुर्विद्येक लागून कौरव पांडव तांचेर खूश जातात. ते राजवाड्यार वचून ही अजापाची खबर आपल्या आवयबापायक सांगतात आनी धृतराष्ट्र भीस्मदेवावरवीं कृपाचार्यांकडेन उलोवणीं करून द्रोणाचार्यांक कौरव पांडवांचे गुरू म्हूण नेमता.

**निवेदिका** : कौरव पांडव आतां द्रोणाचार्यांकडेन विद्या शिकपाक लागतात. कांय तेंपान ते शस्त्रास्त्रविद्येंत, झुजामळावेले रणनीतींत आनी राजनीतींत फिशाल, कुशळ जातात.... आनी निमणें तांचे परिक्षेचो तो दीस उदेता.

(द्रोणाचार्य आनी सगले कौरव-पांडव एका मळार जमल्यात असो देखाव.)

**द्रोणाचार्य** : हें पळयात अपुर्बायेच्या मोगाळ राजकुंवरांनो, म्हजेकडेन जें जें कितें म्हूण आशिल्लें तें तें हांवें तुमकां शिकयलें. आतां कोण कोण कितें कितें शिकल्यात तें पळोवया न्हय?

**कौरव-पांडव** : हय व्हय गुरूदेव. हय व्हय आचार्य.

**द्रोणाचार्य** : जाल्यार आतां ध्यान दिवन आयकात. हांवें हथंय त्या मुखार दिसता त्या रुखार एक वेळू बांदला. ताचेर तीन रेगो काडिल्ल्यो आसात. काळी, तांबडी, धवी अश्यो त्यो रेगो आसात. जालें? आतां रुखासकयल पळयात. थंय तुमकां दिसता ते कायलेंत तेल घाल्लें आसा. उज्याच्या जाळान तें तेल सळसळटा. तेन्ना त्या तेलांत पळोवन धणूस-बाणान वेळवावयल्या तीन रेगांमदली मदली तांबडी रेग तुमी विंधपाची आसा. कितें? समजलें सगल्यांक?

**कौरव-पांडव** : हय व्हय गुरूदेव.

**द्रोणाचार्य** : सगले तयार?

**कौरव-पांडव** : हय व्हय, गुरूदेव. आमी तयार आसात आचार्य.

(एकलो एकलो येवन तांबडी रेग विंधपाचो यत्न करता.

पूण कोणाचोच यत्न जैतवंत जायना.)

**द्रोणाचार्य** : युवराज सुयोधन, तूं यो पळोवया. (दुर्योधन मुखार सरता.) तुका कितें दिसता सांग पळोवया कायलींत?

**दुर्योधन** : म्हाका वेळवावेल्यो तिनूय रेगो बेस्स बऱ्यो दिसतात. मदली तांबडी रेग लेगीत स्पश्ट दिसता.

**द्रोणाचार्य** : जाल्यार सोड बाण आनी वींध ती रेग.

(दुर्योधन धणसाक बाण लावन तांबडी रेग विंधपाचो यत्न करता. पूण तीन बाणांउपरांतूय ताका जैत मेळना. तेन्ना कांय जाण हांसतात, दुर्योधन पिकार जाता.)

**द्रोणाचार्य** : अर्जुना, आतां तुजी पाळी.

**अर्जुन** : आचार्यांची आज्ञा प्रमाण. (अर्जुन मुखार सरता. आचार्यांक नमस्कार करता. कायलींत पळोवन धणसाक बाण लायता.)

**द्रोणाचार्य** : अर्जुना, कितें दिसता तुका कायलींत?

**अर्जुन** : आचार्य, ह्या खिणाक म्हाका दिसता तांबडी रेग. फकत तांबडी रेग. म्हज्या धणूस-बाणान विंधपाची ती तांबडी रेग. म्हजें लक्ष्य! फकत लक्ष्य !!

**द्रोणाचार्य** : मागीर सोड बाण!

(अर्जुन बाण सोडून ती तांबडी रेग विंधता.)

(सगलेजाण अर्जुनाचो आनी द्रोणाचार्यांचो जयजयकार करतात... ह्या वेळार... "लक्ष्य! फकत लक्ष्य !!" असो ध्वनी घुमता. ह्यावेळार प्रतिध्वनींची आनी जोगलांवरी उजवाडाची येवजण करप शक्य जाल्यार भोव बरें.)






## कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

ॐ श्री दत्त, श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय 403 702

फोन क्र.: 2633334, मोबाईल : 3110324


6 मार्च 1968 सावन शिक्षकी पेशांत . उपरांत आगश्ट 1981 सावन एप्रिल 1985 मेरेन काणकोणच्या सरकारी उच्च माध्यमिक विद्यालयांत अर्दवेळ जाल्यार उपरांत जून 1985 सावन जानेवारी 1992 मेरेन त्याच उच्च माध्यमिक विद्यालयांत पुराय वेळ कोंकणी व्याख्यातो. फेब्रुवारी 1992 ते डिसेंबर 2002 मेरेन गोवा कोंकणी अकादेमींत सहायक सचीव. सद्या काणकोणांत सरकारी माध्यमिक विद्यालय, श्रीस्थळ हांगा शिक्षक.

कितल्याश्याच शिक्षणीक, समाजीक, भाशीक, साहित्यीक, संस्कृतीक, आनी सहकारी संस्थांकडेन एक तर संस्थापक म्हूण वा पदाधिकारी म्हूण वा वावुरपी म्हूण संबंद.

भुरग्यांच्या संदर्भांत सुरवेक राष्ट्र सेवा दल, पू. साने गुरूजी कथामाला, गोवा प्रदेश तेच परी श्री मल्लिकार्जुन कला क्रिडा भजनी मंडळ, श्रीस्थळ ह्या संस्थांकडेन संबंदीत. उपरांत कोंकणी भाशा मंडळाचे शणै गोंयबाब कथामाळेकडेन संबंदीत. लोकवेदाच्या वावरांत रूच, संकलन आनी संशोधन.

**पाठ्यपुस्तकांचो लेखक/संपादक** म्हूण गोंयचें शिक्षण निदेशालय, राज्य शिक्षण संस्था, पर्वरी, गोंय राज्य प्रौढ साक्षरता मिशन हांच्या पुस्तकांकडेन संबंदीत. तेच परी कांय साहित्यीक - संस्कृतीक अंकांचें/पुस्तिकांचें लेखन/संपादन.

**उजवाडा आयिल्लीं पुस्तकां :** मनीसपणाचो ताज - जमनालाल बजाज (भुरग्यांखातीर चरित्र काणयांरुपांत), चांदण्यांचे झाड (कविता संग्रह), ऋतुचक्र (ललित निबंधां झेलो), आकाश पाठ (आकाशवाणीचेर दिल्ल्या शिक्षणीक पाठांचो संग्रह), था थै था (आडसुल्यो, गुडसुल्यो) नाटक, बासंगो राजा (नाटक), सांब शीव (रुपकार केल्लें नाटक), पाऊलवाटेवरती (ललित निबंध संग्रह)

**मेळिल्ले पुरस्कार :** कोंकणी भाशा मंडळाचो 1992 वर्साचो स. नरसिंह दामोदर नायक कोंकणी साहित्य पुरस्कार.

गोंय राज्य सरकाराचो 1999 वर्साचो समाजसेवा पुरस्कार.

उत्तम शिक्षक म्हूण आनी शिक्षणीक, समाजीक, भाशीक, साहित्यीक आनी संस्कृतीक वावराखातीर लायन्स क्लब, काणकोण धरून कितल्याश्याच संस्थांवरवीं भोवमान.

---


**ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,**

श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय 403 702